ते भुतारुपाचे चालीचें बांदप पळेत केशव रावल्लेकडेच कोसाळ्ळो.

8

दुसऱ्यादिसा सकाळीं भोंवतणिच्या घरचे उटोन पळेताना केशव आपल्या कुडाच्या धांपल्ल्या दारामुकारच मरोन पडल्लो. एक चावयांघोस हाचे थावन मातसो पयस मेकळो पडल्लो. सासू म्हणचेभितर खबर विस्तारोन लोक जमलो. जमल्ल्यांपयकी एकल्यान चावयांघोस उकलून एकेकच करून हातान थालें उगडचें प्रयतन केलें. पुण ताका जांवची चावीच तांतूं नातल्ली. "हो हाकाच तर मध्यानरातीं कोणकि चावी भायर पडल्या, थालें कशें उगडूं?" म्हणोन बोबाटचें आयकाल्लें. म्हाका तेदळा अर्थच जांवकना" म्हणालो. वेळ गेल्लेबरी खबर सगळया चालींत विसतारली.

सांज जांवच्यावेळाक घडल्ली सगळी एक परनी काणी जावन चाली भायरय विसतारली:

ते चालींतलो एक सोबीत तरनाटो मेलो खंय. चावी भायर पडोन घराक घाल्ले थालें उगडूंक जायनातल्ल्याक धांपल्ल्या दारामुकारच जीव होगडायलो खंय!

(1963)



